# हात बरप आनी सय

कवयित्री जी. कमलम्माळ मलयाळम लिपीन रघुरामायण अशें बरयताली :

तिजी सय अशें आशिल्ली :

| | |
|---|---|
| **Konkani** | कोंकणी |
| **RAGHURAMAYAN** | **रघुरामायण** |
| (Epic Poem) | (महाकाव्य) |
| **G.Kamalammal** | **जी. कमलम्माळ** |
| Edited by | संपादकु |
| **Payyanur Ramesh Pai** | **पय्यनूर रमेश पै** |

| First Edition : October 1981 | पयली आवृत्ती : ऑक्टोबर 1981 |
| Second Edition : August 2019 | दुसरी आवृत्ती : ऑगस्ट 2019 |
| Published by | प्रकाशक : |
| P.G. Kamath Foundation | पी. जी. कामत फौंडेशन |
| 'Puduma', Parinamam Road | 'पुदुमा', परिणामम रोड, कलूर |
| Kaloor, Ernakulam - 682 017 | एरणाकुळम - 682 017 |
| Cell : 9447730866 | Tel : 0484 2530866 |
| e-mail: pgkamat.foundation@gmail.com | www.pgkamathfoundation.com |
| Cover Picture | मुखपृष्ठ चित्रकार |
| A.R. Paveen Kumar | ए.आर. प्रवीण कुमार |
| Printed at : SBCC, Kaloor | मुद्रण : एस. बी. सी. सी., कलूर |
| Ernakulam - 682 017 | एरणाकुळम - 682 017 |

**₹ : 200/-**

To order copies online : www.navathishop.com

ISBN : 978-81-941625-1-3

# मांडावळ



कमलम्माळालें हें चित्र ‘सारस्वत’ वार्षिक (1945)
संचिकेंत प्रकाशित जालेलें

# उडगासांतलीं उतरां

**- जी. कमलम्माळ**

पन्नास वर्षं मुरथम आश्शिल्लो संभवु तं हांव बोरोवचाक वत्तां. हांवे शिकूचे कालाक मेज्जे लागी शिकच्यांनीं निमगीलें : "तुमगेले भासेन ग्रंथु जावो गींतु जावो आसावे?" म्होणु.

"कांय ना" म्होणु तं माका सांगूक दिसला.

तश्शि एदीं वर्षां वोच्चाक कोणेकी "वेंकटेश कल्याण" पुस्तक मारनु देंवयलो. मागीरि "सारस्वत मित्रम्" म्हळ्ळेली वार्तिका देंवयली. थोडे आमगेल भासे गींतु देकले.

मेगेले शिकप राबयलें. जाल्यारि पुराण ग्रंथ सर्व बाप्पान वाचूक हाणु दिवप आशिल्ले. रामायण चारि नमुन्याचें : कंबरामायण, तुलसीदास रामायण, आनन्दरामायण आनी लघुरामायण.

"माकाय कांय बरेयल्यार चिन्ना म्होणु आसा" – एक दीस हांवे म्हळ्ळें. तें कोणे की आयकूनु बाप्पालागी सांगीलें तावळीचि बाप्पान एक पुस्तक दिल्लें; एक पेनसिलयि तासून दिल्लें.

"तुका दिसचें हाजेर बरय; चिन्ना जाल्यार काडूं. ना जाल्यार कागत मात्र नवे वेच्चु?"

तश्शि रामायण बालकांड पर्यंत बरेयलें. तें मारयलें. उतलें तं ये पासून बोरोवचाक आसा. मागीरि बरेयीलें सकडांकयि कळता नवे !

उतलें सांगूनु राबयतां.

---

*(1981 वर्सा कमलम्माळालें रघुरामायण संपूर्ण रूपान पयलें फावट देवनागरीक लिप्यंतर करून उजवाडायिल्ले वेळार बरयिल्लें)*

# पयली आवृत्ती - लोकार्पण सुवाळो




आलेप्पी तिरुमल देवस्वम् हाई स्कूलांत 1981 ऑक्टोबरांत चेलेल्या लोकार्पण सुवाळ्यांत श्री. आर. जनार्दन पै उलयता. कुशीक दिसता कवयित्री श्रीमती जी. कमलम्माळ आनी प्राचार्या श्रीमती मोहीनी बाई. पयली प्रती श्री. के. माधव नायक हांकां दीवनु श्री. आर. जनार्दन पैन पुस्तकाचें लोकार्पण केलें.



രഘുരാമായണം.

ബാലകാണ്ഡം.

തിരുവല്ലാ.

ജി. കമലമ്മാൾ.

1-ാം പതിപ്പ്-കോപ്പി 1000.

*Copy Right.*

ഗ്രന്ഥകർത്രിയുടെ അടയാളമില്ലാത്ത പുസ്തകം
വ്യാജനിർമ്മിതമാകുന്നു.

THE KAIRALY PRESS, TIRUVALLA.

1105

1930 वर्सा कमल्लम्माळान बरोवन उजवाडयिल्लें
मलयाळम लिपींतलें 'रघुरामायण' (बालकांड) पुस्तकाचें मुखपृष्ठ



# രഘുരാമായണം.



അദ്ധ്യായം ൧.

## പുത്രകാമേഷ്ടി.

ശ്രീവേണുഗോപബാല ശ്രീഹരിഗോവിന്ദ
ശ്രീവത്സഭൂഷാ വിഷ്ണു ലക്ഷ്മി ഭൂമികാന്ത
ശ്രീപത്മനാഭദേവ ഇന്ദ്രാദിവന്ദിതാ
ശ്രീപാദാംബുജ് തുജ്ഗെലെ സന്തതം നമാമി
പ്രക്കോട്ടുമഹാക്ഷേത്രാന്തു വാസുകെല്ലതുമ്മി
തജ്ജെജസമീപദെശെവാസുക്ത്തായിഅമ്മി
തുജ്ഗെലെ ചരണ് നിത്യ് സെവക്ത്തായിഅമ്മി
അവ് ഞ്ചെരി ദയപാവുനര്ക്ഷ്ണ്കൊരു കാസ്വാമി
വാത്മീകിവേദവ്യാസ് മഹര്ഷീശ്വരാങ്ക്യി
ബ്രഹ്മമഹെശ്വര് ഇന്ദ്രാദി ദെവാങ്ക്യി
രുദ്രാണി സരസ്വതി ലക്ഷ്മിഭഗവതി
വിഘ്നവിനായകാങ്ക്യിസന്തതംനമാമി

1930 वर्सा उजवाडयिल्लें मलयाळम लिपींतलें 'रघुरामायण' (बालकांड) पुस्तकांतल्यान - पयलो अध्याय, पुत्रकामेष्टी

# സുശീലൻ.

## (ഒരു പുതിയ കഥ)

അടിക്കടി ഹൃദയക്ഷോഭം ജനിപ്പിക്കുന്ന അന്യാദൃശമായ കഥാബന്ധത്തോടും അത്യാശ്ചര്യകരങ്ങളായ വിവിധ സംഭവങ്ങളോടും കൂടിയ ഈ വിശിഷ്ടകഥ എത്രപ്രാവശ്യം വായിച്ചാലും മതിവരുന്നതല്ല. അവസാനം വരെ വായിക്കാതെ ഈ കഥാപുസ്തകം താഴെ വയ്ക്കുന്നതിനു ആക്കും ക്ഷമയുണ്ടാകയില്ല. വായനക്കാരുടെ മനസ്സിനെ ഹഠാൽ ആകർഷിക്കുന്ന കഥാഗതിയും അത്ഭുതപരവശരാക്കുന്ന പരിണാമഗുപ്തിയും സരസകോമളമായ വർണ്ണനയും അഭിലഷണീയങ്ങളായ സന്മാർഗ്ഗപാഠങ്ങളും ആരേയും രസിപ്പിക്കുന്ന രചനാസൗകുമാര്യവും തികഞ്ഞ ഈ കൃതിയ്ക്കു നിശ്ചയിച്ചിട്ടുള്ള വില അണ 3 മാത്രം. ആവശ്യക്കാർ അപേക്ഷിക്കുക.

G, R, Shenai,

*Nedumpallil House, Tiruvalla.*

मलयाळम लिपींतलें 'रघुरामायण' (बालकांड) पुस्तकाचें आखिरचे पान - कम्मलम्माळाल्या 'सुशीलन' नांवाचे मलयाळम पुस्तकाचें जायरात

# प्रकाशकालीं उतरां

स्वर्गस्थ जी. कमलम्माळ केरळचे कोंकणी साहित्यांत नांव जोडिल्ली कवयित्री. तिगेल्या विख्यात महाकाव्य 'रघुरामायण' आतां मेळूंक ना. पयली संपूर्ण आवृत्ती मूल मलयाळम लिपींतल्यान देवनागरीक लिप्यंतर करून 1981 वर्सा केरळ कोंकणी अकादमीन उजवाडायलें. ताका लागून केरळाचे भायरचे लोकांकय तिजी वळख जाली.

आतां त्या पुस्तकाची दुसरी आवृत्ती आमी काडतात. सहृदयी लोकांचो येवकार ह्या पुस्तकाक मेळटलो अशें आमी आठयतात.

आज कमलम्माळ आमचे मदें ना. पूण तिगेलो उडगास आमकां सजीव दवरचो आसा. रघुरामायणाचो पयलो खंड (बालकांड) छापिल्ले कालाक खूब लोकांनी (खास करून बायलांनी) तांतूतल्यो वळियो तोडंपाठ केल्ले आसा.

आज आषाढाचो (केरळांत कर्किडकम) रामायण मासु म्हणून आमी श्रीरामालो उडगास काडतात. ह्या दिसांत हें पुस्तक परत उजवाडाक येता हें एक शुभकार्य अशें आमकां दिसता.

सगळ्यांक देव बरें करो.

**- आनन्द जी कामत**

ट्रस्टी, पी.जी. कामत फौंडेशन

# रामायण - एक नियाळ

**- पय्यनूर रमेश पै**

"आमगेले देशाचे दोन इतिहास ग्रंथांचीं नांवां सांगा" म्हळ्यार कोणय तुरंत जवाब दितले : रामायण आनी महाभारत. रामायण बरयिल्लें वाल्मीकीन, महाभारत बरयिल्लें वेदव्यासान. एक जोड पक्षियांनी प्रेमलीलेंत मग्न जाल्लेले वेळार एक व्याधालो बाण लागून त्यो पक्षियो पळ्ळ्यो आनी तेन्ना वाल्मीकीन मन दुकून त्या व्याधाक उद्‌बोधन केलें - "मा निषाद". आनी मागीर आदिकाव्य रामायण बरयलें. ती कथा सर्वविदित आसा. आज हें रघुरामायण प्रकाशन जाताना त्या महान काव्याचें ल्हानसो एक नियाळ करचें उचित आसतलें म्हूण आठयतां.

श्रीरामाली काणी पिळग्यांनीं सांगून आनी आयकून देश-काळ भेद नातिल्लें आज सर्वकडेन प्रख्यात जावन आसा. इतिहास संशोधकांनीं रामायणाचो काळ निर्णय केल्ला. क्रिस्तपूर्व देड हजार वर्सां पयलेंच तें बरयिल्लें. अर्थात, आजीक साढ़े तीन-चार हजार वर्सां पयलेंच रामायणाची सृष्टी जाल्ली. रामायणांत सुमार एकुणतीस हजार श्लोक आसात. मूलशः श्रीरामचन्द्रालो पट्टाभिषेकु जाताना रामायण पूर्ण जाल्ले म्हणतात. जाल्यार सीतेली अग्निपरीक्षा, लवकुशांलो संभवु, सीतेलें अंतर्धान इत्यादी कथावस्तु बरयिल्लें वाल्मीकीन न्हय, दुसरे कोणेय आसूये (तागेले शिष्य बी जायत) म्हूण सांगतले आसात. उत्तररामायणाचो उद्‌भव तशी जाल्लो आसूयेत. पुण एक गजाल खंडित – विश्वांतले अतिप्राचीन ग्रंथांत रामायण सुप्रधान आसा.

**विविध अनुवाद**

लोकांतल्या अनेक भासेंत रामायणकथेचो अनुवाद जाल्ला. संस्कृत भाशेंतूच वाल्मिकीन रामायण बरयिल्ल्या उपरांत रामायणाचीं 25 पाठभेदां आयलीं म्हूण विख्यात लेखक ए. के. रामानुजन हांणी सांगलां.

कन्नडांत नागचन्द्रालें ‘रामचन्द्रचरितपुराण’ धाव्या शतमानांत तयार जाल्लें. मुद्दणा ह्या कवीन 1895 वर्सा अद्भुत रामायण आनी 1898 वर्सा रामाश्वमेधम अशें दोन ग्रंथ कन्नडांत बरयलीं. श्री. के. वी. पुट्टप्पान (कुवेंपु) ‘रामायणदर्शनम्’ बरयलें आनी ताका ‘ज्ञानपीठ पुरस्कार’ मेळ्ळोय. श्री. वीरप्प मोयलीन ‘रामायणमहान्वेषणम्’ कन्नडांत बरयलां आनी ताका ‘मूर्तिदेवी पुरस्कार’ फावो जाल्लो.

इक्राव्या शतमानांत तमिळ भाशेंत कंब महाकवीन बरयिल्लें रामायण ‘कंबरामायणम्’ म्हूण विख्यात जाल्ला. तेलुगु भाशेंत गोणा बुड्ड रेड्डीन बरयिल्लें ‘रंगनाथ रामायण’ विख्यात आसा. मराठींत एकनाथान रामायण बरयिल्लें चौदाव्या शतमानांत. उपरांत श्री. ग. दि. माडगुळकार हांचें ‘गीतरामायण’ प्रसिद्ध जाल्लें. बेंगाली भाशेंत कृत्तिबास ओझा म्हळ्ळेले कवीन पंद्राव्या शतकांत रामायणाचो अणकार केल्लो. असामीय भाशेंत पंद्राव्या शतमानांत श्री. माधव कंदळी नांवाच्या कवीन रामायण भाषांतर केल्लें. हिन्दींत तुळसीदास कवीन ‘रामचरितमानस’ बरयिल्लें सत्राव्या शतमानांत.

मलयाळम भाशेंत रामायणाचें जायते भाषांतर आयल्यांय. सोळाव्या शतमानाचे उत्तरार्धांत आनी सत्राव्या शतमानाचे पूर्वार्धांत जीवन केल्लेले तुंजत्त रामानुजन् एषुत्तच्छन् हाणें ‘अध्यात्म रामायणम्’ बरयलें. एक कीराकरान श्रीरामाली कथा सांगोवचें रीतीन तें बरयलें देखून ताका “किळिप्पाट्ट” म्हणतात. आनी एषुत्तच्छनाक ‘केरळवाल्मीकी’ अशें मानतात.

मलयाळमांत ‘वयनाडन् रामायणम्’ अशें एक रूपभेद रामायणाक आसा आनी तें उत्तर केरळाच्या भागांत वयनाड जिल्ल्यांत आयकूंक मेळता. मात्र न्हंय, उत्तर मलबाराच्या मुसल्मान समाजांतुय गेयरूपान एक ‘माप्पिळा रामायणम्’ प्रचारांत आसा. ह्या लोकगीतांत रामाक ‘लामा’ आनी रावणाक ‘लावणा’ म्हळां.

विदेशी भाशेंतूंय रामायण प्रचलित आसा. रशियन भाशेंत रामायण-महाभारतांतल्यो कथांचीं पुस्तकां तीस हजारा परस चड प्रती खर्च जाल्यांय. नेपाली, तिबेतन, बालिनीस, मलेशियाची मलया, बर्मिस इत्यादि भाशेंतूंय रामायण कथा आयल्या. फिलिपीन्स, लाओस, इंडोनेश्या, मलेशिया, बर्मा (मियान्मार), टिबट, नेपाल, थायलेंड, कांबोडिया (कांपूचिया) ह्या देशांतूय रामायणकथा त्या त्या भाशांनी प्रचारांत आयल्या. भारतान मात्र न्हय वेगवेगळ्या देशांच्या सरकारांनीय रामायणाचे आधारार सुन्दर चित्रांचीं स्टेपां देवेयल्यांत.

इंग्लीशांत श्री. श्रीनिवास अय्यंगार, श्री. चक्रवर्ति राजगोपालाचारी हांगेल्यो रामकथा संग्रहांक व्हड प्रचार मेळ्ळा. श्री. आर. के. नारायणान कंबरामायणाच्या आधार घेवन इंग्लीशांत एक पुस्तक उजवाडायलां. भुरग्यांली जनप्रिय ‘अमर चित्रकथा’ इंग्लीशानच भायर येतालें.

**कोंकणींत :**

आमगेली मातृभाषा कोंकणींतुयि श्रीरामचन्द्राली कथा प्रचलित आसा. कोंकणींतले एक प्राचीन लोकगीतांतल्यो ह्यो दोन वळियो प्रख्यात आसात :

“माड्यावेले चान्नियें, तुका तीनिगो पाट ?
रावणान सीतेक व्हेल्लेले कोणगो वाट? ”

–ह्या पदाचो कर्ता कोण हें अज्ञात जावन आसा. सेतुबंधनाच्या वेळार चान्नियेन केलेली सेवा पळोवन श्रीरामचन्द्रान तिका फाटि पर्सून आशीर्वाद दिलेली कथाच हांगा सूचित जाल्या.

कोंकणी समाजांत रामायणाचो प्रभाव कितलो आसा म्हूण ह्यो म्हणियो वा वक्प्रचार दाखयतात :

(1) रामायण आयकून रामु राक्षसु कि रावणु राक्षसु म्हूण निमगीता.
(2) राम नाम जपता, केसान गळो कातरता.
(3) रामायण सगळें आयकून रामाली कोण जाता सीता म्हूण विचारता.

सोळाव्या शतमानांत गोंयचें कृष्णदास शामान बरयिल्लें रामायण कांदवी लिपींतल्यान रोमी लिपीक लिप्यंतर करून पोर्तुगलांत ब्रागा पुस्तकालयांत दवरलेली प्रती - एक नमूनो (चित्र : कृष्णदास शामा गोवा स्टेट सेन्ट्रल लैब्ररीच्या बरेपणान)

(4) रावणाक भिकेचे दुवाळे.

(5) रावणाक सात्तें / सातली धरलोलो.

पंद्राव्या शतमानाच्या आखरेक या सोळाव्या शेंकड्या सुरवातेक कवी कृष्णदास शामा हाणें एक कोंकणी रामायण बरयिल्ले म्हणून दाखलो आसा. गोयांतले ह्या कवीन कोंकणींत एक महाभारत रचिल्लेंय प्रसिद्ध आसा. हीं पुस्तकां सोळाव्या शतमानाक संबंध पाविल्लीं आनी कांदवी (या गोंय कानडी) लिपीन आशिलीं म्हणटात. जाल्यार, भारतांत आज तांचीं एकीय मूळप्रती मेळूक ना म्हळ्ळलो विषयु अतीव खेदान सांगचें पडता. पूण हाजी हस्तप्रती पोर्तुगलाच्या ब्रागा वाचनघरांत आसा आनी डॉ. ओलिविज्यु गॉमिश (1943-2009) हांणी थंय वचून ताची नकल घेवन हाडून संपादन करून बरो एक सोद केला. गोंय विद्यापीठाचे वतीन हो ग्रंथ 1996 वर्सा उजवाडाक आयलो. 328 पानांनी देवनागरी लिप्यंतर करून छापिल्ले ह्या पुस्तकांत कठिन आनी प्राचीन कोंकणी उतरांचो अर्थूय दिला. आनी असलो वावर साहित्य विद्यार्थिक मोलदिक योगदान आसा.

प्रसिद्ध संशोधक डॉ. जुजे पिरेरा हांचे प्रमाणे रामायणकथेक सोळाव्या शतमानांतूच कोंकणींत प्रचार आशिल्लो. कोंकण्यांक व्हड संख्येन क्रिस्तधर्माक बाटौचे पयलें, कोंकणी लोकांकडे गद्य साहित्याचो विपुल संग्रह आशिल्लो. तांतु मुख्य जावन चातुर्मास्या वेळार (म्हळ्यार पावसाडींतले चार म्हयने) वाचूचे महाभारत, रामायण आनी श्रीमद् भागवत हांचीं भाषांतरां आशिल्लीं.

जोन लेडन (1775-1811) म्हळ्ळेले विदेश यात्रिक डेक्कान प्रदेशाक भेटि दिल्लेले तेन्ना 1799 ईसवींत केरळाक आयलोलो. त्या कालाकच ह्या प्रदेशांतले कोंकणी लोकांकडे रामायणाचे अणकारीत ग्रंथ आशिल्लीं म्हूण ताणे व्यक्त केल्ला.

डॉ. पांडुरंग पिसुर्लेकर (1894-1961) नांवाच्या गोंयचे पंडितान साठि वर्सां आदींच पोर्तुगलांतु प्रवासाक गेल्लेले तेन्ना त्या देशाचे

उत्तरभागांत आसूचे 'ब्रागा' म्हळ्ळेले गांवाक गेल्लोलो. थंचे सार्वजनिक ग्रंथालयांत रामायणाचे कोंकणी गद्यानुवादाची एक हस्तप्रती पळयीली. ताजे एक 'मैक्रोफिल्म' ताणे काळ्ळा म्हळ्ळेली खबर कोंकणी मोगियांक संतोष दिता.

ग. दि. माडगूळकरालें मराठी गीत रामायणाचें कोंकणी भाषांतर मंगळूरचे बी.वी. बाळिगान (1918-2005) तयार केल्लेलें 1978 वर्सा कन्नड लिपीनय उपरांत 1986 वर्सा देवनागरी लिपीनय उजवाडाक आयलें. मूळ ग्रंथा वरीच गेयरूपान अवतरण करूंक योग्य जावन तांणी हाची रचना केल्या.

मादेव बुदो वेळिप ह्या वयोधिक मनशान दक्षिण कन्नड जिल्लेंत आपणाले समाजांतल्या 'कुणबी रामायण' मौखिक आशिल्लें लिखित रूपान तयार केला. ताका कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादमीन पुरस्कार दिला.

गोकर्णाचो कोंकणी कवी नरहरी विट्टल प्रभून तागेले 'रामायणामृतसार' 1942 ईसवींत पूर्ति केल्ली. तें 'सारस्वत' आनी 'पंचकादायि' कोंकणी पत्रिकेंत प्रकट केल्लेंय बी. 1979 वर्सा हें एक पुस्तक रूपान भायर आयलें.

ह्याच कवीन एकच श्लोकान रामायणाचो भावार्थ सगळोच सांगूक प्रयत्न केल्ला. ती चौपदी पळया :

"सीतारामु वनाक तो वचूनु थंय मारलें मृग कांचन;
जटायूकचि मारनु जानकेक त्या व्हेल्ले दशकंठान ।
लंका लास्सूनु गेल्ले मारुति कपि सेतूचि उल्लांडूनु;
हाडलें सीतेक रावणाक वधूनु रामान रामायण ।।"

कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादमीन अगोस्त 2013 त एक रामायणग्रंथ उजवाडयला. "कोंकणी वाल्मीकि रामायण" नांवाचो हो ग्रंथ कन्नड लिपीन 602 पानांचो आसून श्री. एस. नारायण गवळकर हांणी खंडकाव्य रूपान बरयिल्लो आसा. राजापुरी सारस्वत समाजाच्या बोलींत अप्रूप जावन असले ग्रंथ आयल्यात.

उत्तर कन्नड जिल्ला कोंकणी परिशदेच्या वतीन हालींच 'श्री रामचरित' नांवार 1502 पानांचे एक कोंकणी महाकाव्य तयार केला. तें श्री. एन. विश्वनाथ शेट हांणी 'भामिनी षट्पदी' चाल (वृत्त) दवरून कन्नड लिपीन बरयिल्लें आसा.

मुंबयचे के.एस.जे. किणी ट्रस्टान 'सीता कल्याणाचें' एक सचित्र पुस्तक 2007 वर्सा भायर काडलें. हाचें संपादन प्रेरणा. डी. प्रभून केलें आनी श्री. सुनील मिस्त्रीन सुंदर रीतीन एकेक कागताचेरय दोन-दोन चित्रां सोडोवन पुस्तकाची शोभा वाडयल्या. ह्या पुस्तकांत 'दशावतार लीला' म्हूण वेगळें एक पद्यय ताजें चित्रणय लागून आसा.

गोंयांत केपें, सांगें, काणकोण ह्या प्रदेशांत गड्यांच्या उत्सवाक लागून 'गड्या रामायण' गायतात. तें कांय पारंपरिक विधिविधाना प्रकार चलता. शिग्म्याच्या वेळार हें पळोंवक मेळता.

फादर आंतोनियु पेरेरान पुर्तुगालाक गेल्ले तेन्ना 'कोंकणी रामायण' आनी 'कोंकणी भारत' हांच्यो प्रती करून तांणी गोंयांत हाडल्यो. त्यो परवरी 'झेवियर सेंटर ऑफ हिस्टोरिकल रिसर्च' हे संस्थेच्या ग्रंथालयांत आसात. हालींच कृष्णदास शामा राज्य ग्रंथालयानूय त्या साहित्याच्यो प्रती मेळोवन, त्यो बायण्ड करून सांबाळून दवरल्यात. डॉ. ओलिव्हिन्य गोमिश हांणीय पुर्तुगालाक वचून कोंकणी रामायणाची प्रती हाडली. तांणी त्या रामायणाचें नागरींत लिप्यांतर केलें आनी गोंय विद्यापिठान तें 1996 वर्षा पुस्तक रूपान उजवाडायलें .

पद्मश्री पुरस्कार विजेता विख्यात कोंकणी कवी गोंयांतले डॉ. रघुनाथ विष्णु पंडित (1917-2010) हांणी भुरग्यां खातीर 'रामायण-महाभारतांतल्यो कथा' शीर्षकार एक पुस्तक लघु गद्यरूपान बरयिल्लें आसा. तें 1986 वर्सा गोंयचें कोंकणी भाशा मंडळान उजवाडाक हाडलें तर आतां त्यो प्रतियो मेळूंक नात.

संस्कृत भाशेंत बुधकौशिक रिशीन रचिल्लें ‘श्री रामरक्षा स्तोत्राचें’ कोंकणी अर्थ विवरण इन्द्रकांत वासुदेव शेणैन (1921-1984)केल्लेलें श्री व्यासा प्रकाशन, गोवा हांणी 1983 मे म्हयन्यांत उजवाडाक हाडलें.

गोंयांतली शैला उर्फ शालिनी गुरुदास हेगडे (1937-2008) हांणीय ‘रामायण’ उजवाडायलां. ‘वाल्याचो जालो वाल्मीकी’ थाकून ‘अयोध्येक प्रयाण आनी राज्याभिशेक’ मेरेन 53 काणियो सुंदर जावन सरळ रीतीन तीणे रामायण कथा बरयल्या. हें पुस्तक 2014 वर्सा मडगांवचे बटुकाक स्मृती प्रतिष्ठानान भायर काडलें.

**केरळांत :**

केरळांत ‘गोड्डें’ रूपार रामायण कथा प्रचार घेवन आसा. ताजो काळ, कवी इत्यादी माहिती लभ्य न्हय. आठरा अध्याय आसूचे हें काव्य गायन करचें रीतीन बरयलां. अजून वैश्य समुदायांतलें थोडे सदस्य फालगुन म्हयन्यांत शिवरात्री संदर्भार द्वादशी दिसा कोच्ची अमरावती प्रदेशांतलें जनार्दन देवळाचे वठारांत वाद्यघोष मेळोवन ताळबद्ध जावन हें काव्य गायतात.

केरळचे कुडुंबी समुदायांत रामायणांतली श्रवणकुमाराली कथा एक प्राचीन लोकगीत जावन उरलां. ही कथा ‘श्रवोणु’ नांवान गेयरूपान तयार जावन कितलीशीं वर्सां जालीं. ताका लागून ‘गोड्डें पडप’ म्हूण एक आचार चलतालो. आतां ताजी कळाकळी आशिल्ले कोण ना.

प्रो.आर.के. राव(1914-2005) हांणी 1989 वर्सा ‘गोड्डें रामायण’ पुस्तकरूपान उजवाडायलें. एक गेय काव्याचें लिखितरूप म्हूण तांकां मेळ्ळेल्या ताडपत्रांचें संस्करण करून तांणी तें प्रकाशन केलें. हें एक लोक काव्य की न्हय म्हूण चर्चा जाल्या.

प्रो.आर.के. राव हांणी संग्रह करून उडवाडायिल्लें ‘केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां’ ह्या पुस्तकांत तीन पाळणे गीतां दिल्यांत. आनंद भैरवी रागान

'राम जो जो जो रामा', 'बाळा जो जो रे' आनी नीलांबरी रागान 'जो जो जो रामा' अशें गेयगीतां हांगा मेळतात. 'सीता कल्याण' आनी 'सीता सुधी' अशें दोन वेगळीं लोकगीतांय तांणी पुंजावन भायर हाडल्यांत.

'सीताले दुवाळो' ह्या शीर्षकार एक लोकगीत पद्मश्री पुरस्कार विजेता श्री.एन. पुरुषोत्तम मल्या हांणी संपादन करून 1988 त कोंकणी भाषा प्रचार सभेन उजवाडायिल्ल्या 'कोंकणी लोकगीत समुच्चय (केरळ)' ह्या पुस्तकांत आस्पाव केला.

रामायणाची स्फूर्त घेवन 'सीता राम शयन' ह्या तांवान एक ल्हान लोकगीत कोची प्रदेशांत प्रचारांत आसा म्हूण श्रीमती सुशीला.टी. भट हांणी संग्रह करून कोंकण जनता प्रकाशनान 2009 वर्सा उजवाडायिल्लें 'एदेच कोंकणी लोकगीत' ह्या पुस्तकांतल्यान कळून येता.

'श्रीराम पट्टाभिषेकु' अशें एक सुंदर लघुकवितेचो उल्लेख प्रो. एन. स्वर्णलता हांच्या एक निबंदांत मेळता (केरळांतलें कोंकणी साहित्य - एक परिचर्चा, 1993). अज्ञातकवीली ती कृती पूर्णरूपान वेगळे खंय छापून आयिल्लें दिसूंक मेळ्ळे ना.

केरळचे प्रमुख कोंकणी कवी श्री. के. अनंतभट्टान बरयिल्लें 'अशोकवनांतुली सीता' जनप्रिय जाल्लेले एक संगीत रूपक आसा. ह्याच कवीन तुलसीदासाल्या 'श्रीरामचरितमानस' संपूर्ण जावन पद्यरूपान कोंकणीक अनुवाद केला. ताका केन्द्र साहित्य अकादेमी तरपेन 2014 वर्साचो अनुवाद पुरस्कार मेळ्ळो.

केरळांतल्यानच 'श्रीमद् कोंकणी रामायण' नांवान दुसरें एक रामायणय प्रकाशित जाला. ल्हान काणिये रूपान चित्रां सहित 108 पानांचे हें पुस्तक 2014 वर्सा उजवाडाक आयलें. हाजो लेखक रामनाथजी आनी प्रकाशक 'गोपाल रामजी पब्लिकेशन्स, तिरुवनंतपुरम्' आसात.

**रघुरामायण** :

मलयाळम ईसवी 1077 (क्रिस्त शक 1902) जल्मलेली श्रीमती जी. कमलम्माळ हीणे तिगेले आठतीस वर्स प्रायेरि (अर्थात क्रि.श. 1940) पूर्ति केल्लेलें रघुरामायण 'ओवी' शैलीन आसून उत्तररामायण सहित सात कांड आसूचे सुन्दर कृती जावन आसा. 1930 ईसवेंत हाजें प्रथम 'बालकांड' मात्र मलयाळम लिपीन प्रकट जाल्लें. ताका क्विलोनचे वकील श्री. ए. राम पैन प्रस्तावना बरयिल्ली. बायलांनीं साहित्यश्रेत्रांत प्रवेश जावचाक माक्षी राबिल्या काळांत तिका कोंकणींत प्रोत्साहन दिल्लेले तिगेले बापसून. त्या कालाच्यो कोंकणी पत्रिका "सारस्वत मित्रम्" आनी "सारस्वत बोधिनी" हिका प्रचोदन दिताल्यो. मलयाळमाचो परिचयूय सहायक जाल्लो.

रिवाज तकीत हरि-गुरु वन्दना जावन प्रारंभ करचें ह्या ग्रंथांत आपणाक बापसून दिल्लेले प्रोत्साहन कवयित्री उडगास काडता :

"श्री रघुरामायण केल्यारि पठन
मुक्तिदायक विद्या संपत्त वर्धन
विद्यागुण संपन्न तातनियोगान
रामायणाचे कथन केल्ले कोमळान"

रघुरामायण बरोवच्या काळांत तिजेर केरळचे साहित्याचो प्रभाव स्वाभाविक जावन आशिल्लो. मलयाळम काव्यांत कवीली नामसूचना (मुद्रिका) मेळता. तशीच काव्यरचनेक स्फूर्ति दिल्लेले व्यक्ती अथवा संदर्भ परामृष्ट जाता. हो स्वभाव रघुरामायणांतूय व्यक्त जावन आसा म्हळेल्याक ह्या वैर सांगिल्लो पद्यभागूच दृष्टांत जावन आसा.

"केरळचीं कोंकणी पदां" म्हळ्ळेले लेखांक पंचकादायि पत्रिकेंतु डॉ. जुजे पिरेरान प्रकट केल्लेले. त्या संदर्भार कमलम्माळाल्या रघुरामायणां थाकून

दोन पद्यभाग 1971 मार्च अंकांत दिल्लेले. तेन्नाच माका रघुरामायणाची वळख जाली.

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें 1978 वर्साचें अधिवेशन कोच्चींत चल्लेले वेळार कमलम्माळाक गौरवार्पण केल्लेलें. तेन्ना हांव पयलेच पावटी त्या कवयित्रीक मेळ्ळो. अंबलपळेंत वचून 1980 वर्सा कवयित्रीक भेटीले तीणे 'बालकांड' छापिल्ली प्रती माका दिल्ली. नंतर प्राध्यापक श्री. एन. एन. आनन्दन हांचे कडे रघुरामायणाचें 'अयोध्या कांड' थाकून 'उत्तर रामायण' पर्यंत कवयित्रीन बरयिल्ली हस्तप्रती मेळ्ळी.

रघुरामायणाचें संपूर्णरूप मेळताना हें पुस्तक उजवाडाक हाडूकच जाय म्हूण मनांत एक वांछा दिसली. तशी जावनु रघुरामायणाचें मूळ मलयाळम लिपी थाकून देवनागरीक लिप्यंतर करून हें पुस्तक प्रकाशनाक तयार केल्लें. देवनागरीक हाजे रूपांतर करताना आवश्य म्हूण दिसूची दुरूस्ती करूंक कवयित्रीन सांगिल्लें. तशी हांवे मूलाक थोडी दुरूस्ती केल्लेली आसाय बी; जाल्यार मूळकृतीची मौलिकता हाजेन खंय तरी नष्ट जालें ना म्हळ्ळलो विश्वास आसा. कवयित्रीन अनेक मलयाळम शब्द हांतु प्रयोग केल्यात. त्या निमित्तीं केरळचे भायर आसूचे कोंकणी वाचकांक अर्थग्रहण स्वल्प कष्ट जायत. ह्या पुस्तकाचें अंत्यभागार दिल्लेले अनुबंध पळयल्यार असले संशय दूर जातले म्हूण आठयतां.

प्राय जालेल्या वेळार 1981 वर्सा ह्या मातोश्रीक आपण्यालें पुस्तक पूर्णरूपान प्रकाशित जावचें पळोवचो योग मेळ्ळो. हांतु समस्त कोंकणी प्रेमियांक आनन्द आसा. पर्वत, न्हंय आनी भूंय आसचे तेद्दोळ रामचन्द्राली कथा उरतली अशी म्हणतात. तशीच रघुरामायण कृती कोंकणी भास आसचे तेन्ना मेरेन जीवंत उरतली ही मेगेली प्रतीक्षा.



कमलम्माळ आपणाल्या पूत, सुन्नो, नातियो आनी इतर सोयऱ्यां सयत

# जी. कमलम्माळ (1902-1983)

**- शरतचंद्र शेणै**

जी. कमलम्माळ हें नांव आमकां डॉ. जूजे पेरेइर हांगेल्या Literary Konkani - A Brief History ह्या पुस्तकांत इतर जायत्या नांवां मदें वाचूक मेळता. तिचे विशीं तांतूलो परामर्श म्हळ्यार - 'Authoress of an Ovi Ramayana' म्हूण. 1973 वर्सा बरयलेल्या त्या पुस्तकांत तिचे विशीं ताच्याकय चड खबर आसूक शक्य नाशिल्लें, कित्या म्हळ्यार त्या वेळार तिचे विशीं चड म्हायती दिवपी कोण नाशिल्ले. पूण उण्याच वर्सां उपरांत तिचें म्हत्व लोकांक कळ्ळे विना राबलेंना.

1978 वर्सा कोचींत भरलेल्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशद अधिवेशनांत तिचो भोवमान जालो. आनी 1981 वर्सा तीणें रचिल्लें तें 'ओवी' छन्दाचें **'रघुरामायण'** म्हळ्ळेलें कोंकणी महाकाव्य प्रकाशित जालें. श्री पय्यनूर रमेश पै ह्या तरनाट्यान तें देवनागरींत लिप्यंतरण केलें आनी केरळ कोंकणी अकादमीन उजवाडायलें. उत्तर रामायण सयत ताका सात खंड आनी एकेक खंडांतूय दोन व तीन अध्याय. 150 पानांचें तें महाकाव्य जावंक पावलें कोंकणींतलें एक अत्यपूर्व प्रकाशन.

परण्या तिरुवितांकूर राज्याच्या तिरुवल्ला गांवांतल्या नेडुंपळ्ळी गोविन्द शेणै-सत्यभामा दंपतीली धूव जावन 25.2.1902 दिसा कमलम्माळ जन्मली. त्या काळा चेलियांक शाळेंत धाडप व्हड प्रचारार नाशिल्लें तरीय तिका शाळेची शिकवण कांय काळाक साध्य जालें. ताचे भायर तिचे बापसून पुराणादी जायते पुस्तकय तिका हाडून दिले. प्रायेचे इखरा वर्सांचेर तिचें लग्न अम्बलपुषा गांवांच्या सुबराय पै हांचे कडे जालें. शाळेची शिकवण थांबली. पूण तिणें वाचन चालू दवरलें.



**आल्बमांतल्यान** : ह्या फोटोंतली **कमलम्माळ**
कोण हें तुमकां कळतलेंच

तांतूल्यान तिका बरोवंकूय तान लागली. ती बरोवंक सोदता ही खबर कानार पडली म्हण्टना तिचे बापसून रोखडींच एक नोटबुक आनी एक पेनसिल तिचे हातांत दिवन म्हळें - 'तुका बरोवंक दिसता तें हाचेर बरय. बरें आसल्यार तें घेवूं. ना जाल्यार वचो, कागत मात्र मू खर्चतलें!'

तशी तिणें पयलीं एक मल्याळम काणी बरयली - 'सुशीलन'. ती प्रकाशित जाली. ताचे उपरांत तिणें कोंकणीत बरोवंक शुरवात घाली. ते भितर तिणें पारायण केलेले साबार ग्रंथांचो आनी कोंकणी गेयकाव्य 'श्री वेंकटेश कल्याण' हाचो बरोच प्रभाव तिचेर पडलो. 1930 वर्सा तिगेल्या महाकाव्याचो पयलो वांटो 'रघुरामायण-बालकाण्ड' उजावाडाक आयलो. पुस्तक मल्याळम लिपीन आशिल्लें आनी ताका प्रस्तावना बरयलेली तिरुवितांकूर राज्याचो प्लीडर श्री. ए. राम पै, एम.ए.बी.एल. ह्या महंतान. ताणें बरयलें - 'श्रीमती कमलम्माळाल्या रघुरामायणाच्या ह्या बालकाण्डाकच इतलीं पानां आसाय म्हण्टना तें महाकाव्य पूर्ण जातना कोंकणी सहित्यांतुलो सर्वोत्कृष्ट ग्रंथ म्हळेल्या स्थानाक अर्ह जातलो!'

जाल्यार तें काव्य पूर्ण करचे खातीर तिका मागीरीय एक दसक जाय जालें. त्या काळांत तिणें रचलेल्यो कांय इतर कृती मुद्रित जाल्यो - 'पात्रचरितम' आनी 'दोन मित्रां' अशी तीं पुस्तकां. लागूनूच दूसरो सांवसारिक म्हाझूज पावलो म्हण्टना मागीर मुद्रणाचें कार्यच थांबून गेलें. 1962 वर्सा कवयित्रीलो घरकार निधन जालोय. जायत्या काळाक ह्या अप्रूप महाकाव्या विशींची म्हायती चड कोणाक नाशिल्ली.

जाल्यार 1981 वर्सा तें महाकाव्य संपूर्ण रूपान देवनागरी लिपीन उजवाडाक आयलें. श्रीमती कमलम्माळ तेन्ना प्रायेचे 79 वर्सार पाविल्ली. तिगेल्या सान्निध्यांतूच तें प्रकाशन जालेलें. वास्तव म्हळ्यार तशें सौभाग्य तिचे पिळगेचे इतर कोणाकूच मेळ्ळें नाशिल्लें. ताचे उपरांत देड वर्स भितर, 2.7.1983 दिसा तिचो स्वर्गवास जालोय.

आपण्यान हो श्रम घेवंक कारण कितें म्हूण तिणें स्वयम बरयल्यां - 'कोंकणस्थ ब्राह्मणांनी ह्या केरळ राज्यांत येवनु वसती करून साबार काळ जाले तरीय आमगेले महिळांक मल्याळम भाशेचें ज्ञान भोव ऊणें म्हूण दिसून येता. हालीं थोड्यांले सांगणेक लागून चेलियांक शाळेंत भरती करताय तरीय लग्नाक लागून तांची शिकवण अर्दाक थांबून वताच म्हणिल्ल्यान सादारण पुस्तकां लेगित तांकां वाचूक जायना. 'रामायण' म्हळेल्या उत्तम ग्रंथाचें पारायण केलेल्यो आनी ताची कथा समजून घेतलेल्यो बायलो आमचे मदें भोवच उणें. देखून 'रामायण' आमचे भाशेन बरयलें जाल्यार आमगेले समाजाचे बायलांक तें वाचूक आनी ताचो आस्वाद घेवंक सरळ जातलें म्हणून हांवें हें रचलां.'

आपण्याक हे खातीर मुख्य प्रेरणा खंयचान मेळ्ळी म्हूण तिणें काव्यरूपानच बरयल्यां -

*श्री रघुरामायण केल्यारी पठन*
*मुक्तिदायक विद्या संपत्ती वर्धन*
*विद्यागुण संपन्न तात नियोगान*
*रामायणाचें कथन केलें कोमळान!*

मुद्रित जालेल्या उपरांत उण्याच काळान रघुरामायण काव्याची खूब प्रसिद्धी आनी तोखणाय जाली. 1992 अक्तूबरांत केन्द्रीय साहित्य अकादेमीन एरणाकुळमांत एक देशीय परिचर्चा घडयलेली आनी ते परिचर्चेंत निबंद सादर करून प्रो. आर. के. राव हांणी म्हळें - 'केरळी भास आनी प्रभाव दृष्टी पडचें हें राम काव्य केरळच्या कोंकणी साहित्याची एक अनमोल निधी आसा!' तो वेळ भितर रघुरामायणाच्यो छापिल्यो पुराय प्रती सरलेल्यो !

आनी आतां पुनःप्रकाशन जाताना हें महाकाव्य नवे नवे पिळगेचे भोव साबार जनांक खंडितच प्रभावित करूंक पांवतलें आनी प्रचोदित करूंकय पांवतलें.

# रघुरामायणा विशीं पंडितांनीं कितें म्हळ्ळां पळोवयां :

While reviewing new books published during 1981 **Dr. Manohar L. Sardesai** in his article "*Konkani : Writers And Writing*" wrote as below :

> *Raghu Ramayana* is a Konkani version of Ramayana by the poetess G. Kamalammal from Kerala. This Ramayana has seven parts. The first Canto 'BalKanda' was published in 1930, all other cantos were finished by 1940. But it is only this year that the book has been published by Kerala Konkani Academy. Shri. Payyanur Ramesh Pai has written a scholarly foreword to the book, enumerating the various versions of Ramayana in Konkani. Smt. Kamalammal narrates it in straight forward and simple manner but she fails – either to impress or to move. It lacks both the imagery and the sonority that are necessary adjuncts of good poetry. Smt.Kamalammal's has, however, the merit of being understandable to all the speakers of Konkani be they from Cochin or from Goa.
>
> *Indian Literature (Bi monthly published by Sahitya Akademi, New Delhi), Nov-Dec 1982 (Page 120)*

* * * * *

Later, **Dr. Manohar L. Sardesai** wrote in his book "*A History of Konkani literature : from 1500 to 1992*" (Pages 301-302) :

> Special mention must be made of Smt.G.Kamalammal (1910-1983). Her contribution to Konkani devotional literature is significant. She started writing as early as in 1930's. Having

been permitted to have her formal education upto the fourth standard only, she managed to be acquainted with the epics Ramayana and Mahabharata, the Puranas. And the poems based on them etc. in Malayalam. There were some monthly magazines “Saraswatha Mitram”, “Saraswatha Bodhini”, which facilitated the literary pursuits of the aspirant. Not only her father, but Sri.A.Rama Pai B.A., M.L, the government pleader of the erstwhile princely state of Travancore, himself the author of many works like “Saraswatha Charithram” also encouraged her by writing a foreword to her Balakandam of Raghu Ramayana, set to the tune by Sri Venkatesh Kalyan, so very popular at that time. Though it was completed by the 1930’s only, the Bala Kandam could be printed and published, that too in the Malayalam script. Another reason was that the compositors were the local people, knowing only the Malayalam language. Again, readers were very few in number. So, she had to wait upto 1981 when her Magnum Opus printed, having transliterated into Devanagari script and published by the Kerala Konkani Academy (Estd. 1980). The Academy dared this venture, as it fulfilled one of its goals and the desire of the age-old desire of the authoress at the same time. She had followed not Valmiki Ramayana, which has only six cantos, but Adhyatma Ramayana in Malayalam by Thunchathu Ezhuthachan as Kilipattu, in condensed form.

According to **Dr.D.N.Shanbhag** (Then of the Karnatak University, Dharwad), “It has been composed in chaste Konkani, and can be set to music. Really the Konkani world should be grateful to the poetess.” Smt. Kamalammal narrates it in a straight forward and simple manner and has the merit of being

understandable to all the speakers of Konkani, be they from Cochin or from Goa. ...

She had composed some more devotional poems like Patra Charitram (1932), Gita Saaram, Saraswati Stotram; Lakshmi Devistotram and the like.

*(A History of Konkani Literature : From 1500 to 1992, Pp 301-302)*

* * * * *

In his book “A Modern Indian Literature, an anthology”, **Dr. K. M. George** mentions as follows in the section on ‘Konkani in Kerala’ appearing in Vol.2 (Page 218) :

“Konkani literature in Kerala has a predominantly religious character. Ammulaka Shenoy (1851-1902) is considered to be the first poetess with her Kirtanas and songs. Narayan Narasimha Pai (1878-1954) wrote works like the *Chelaya Charitra*, *Prahlad Charitra*, *Sati Shakuba*, and Smt.Kamalammal’s *Raghu Ramayan* is well known.”

*Apparently the section on Modern Konkani Literature was contributed by Dr. Manohar L.Sardesai.*

* * * * *

**Prof. Amaresh Dutta** has written about Patracharitam written by Smt. Kamalammal in his “*The Encyclopaedia of Indian Literature*”. In the section about ‘Devotional Literature (Konkani)’ appearing in Volume One, he mentions as follows :

“G. Kamalammal’s *Patracharitam* (1932) tells the story of a divine pot (*Akshaya Patra*) given to Draupadi by Sun God. A

song entitled *Krishnalila* narrating the panks of the child Krishna is also included in the book (Malayalam script). ” (Page 961) and “*Raghuramayan* (1981) is a version of the Ramayana by G.Kamalammal from Kerala.” (Page 962)

*Apparently, the related note was provided to Prof.Dutta by Prof.Prakash G.Thali.*

* * * * *

**Sri. Baindoor Deorai Aiyagal** reviewed *Raghu Ramayan* as below in ‘Saraswat’ quarterly journal published by All India Saraswat Cultural Organization :

Srimati Kamalammal, in the *Raghu Ramayan*, has naarrated the story of Rama, in homely yet lucid Konkani which administers a swab to those who contend that Konkani is ill equipped for any seruious literature. Foro bvious reasons she has confiened herself to the main episodes of Rama’s life and teachings, which, no less, makes fascinating reading. The metre of the stanzas is so smooth and the impact so soulful, that this sweet poem can be made sweeter, if set to tune and sung. I am sure, this will enthral Konkani audiences and others alike, as do the Geet Ramayans in various languages.

* * * * *

In the book “A Critical inventory of Râmâyana studies in the world” compiled by **K. Krishnamoorthy and Satkari Mukhopadhyay** (Published by Sahitya Akademi), *Raghu Ramayan* finds a place amidst various Ramayanas published in different languages. It is appearing in the section ‘Konkani’ in Vol.2, as entry No.72 furnishing the following brief :

“Kamalammal.G. (Mrs.), *Raghu Ramayan* / ed. Payyanur Ramesh Pai, Cochin : Kerala Konkani Academy, 1981. Language : Kerala style”

* * * * *

Smt.G. Kamalammal was honoured at the 16th **All India Konkani Parishad** (1978).in Cochin. The Souvenir brought out on the occasion contained her biodata with photo, and it was mentioned that :

"The heroine of Ramayana fired the imagination of a young Smt.G. Kamalammal and she embarked upon the ambitious scheme of writing a Konkani Ramayana….In devotional fervour her work remains unsurpassed and in sheer lyrical power Kamalammal remains unbeaten."

* * * * *

**Data in OPAC (Online Public Access Catalog) :**

The Directorate of Public Libraries, Govt of Tamil Nadu, has published OPAC and Raghuramayan appears as Record No.225796 available at **Connemara Public Library** in Chennai. However, the item 'Koha' appears to be erroneously categorised as Hindi, with Bar Code (Accession) No. 294718. Call Number allotted is 294.5922.

The **Krishnadas Shama Goa State Central Library**, Panaji, also has put up OPAC and *Raghuramayan* appears as Record No.294.592, and available at Goa Taluk Library, Curchorem, Accession No. being K395.

* * * * *

**प्रोफेसर (डॉ.) ऑलिव्हिन्य गोमिश** हांणी कवयित्रीची नोंद अशें घेतल्या :

जी. कमलाम्माळ (1902-1983), हिणें रामायणाचो 'ओवी' श्लोकांनी कोंकणींत अणकार बरयला आनी 'अक्षयपात्र' नावांचें काव्य घडयलां.

('कोंकणी सरस्पतीचो इतिहास - एक सुपुल्लो नियाळ', 1996, पान 45)

* * * * *

**प्रोफेसर आर. के. राव** हांणी अशें उल्लेख केला :

रघुरामायण - हें केरळांतले कोंकणीचें दूसरें राम काव्य आसा. तिरुवितांकूर राज्याचे आलप्पुषा गांवची-आरप्पळेची-कवयत्री श्रीमती जी. कमलम्माळ हीणे हें काव्य रचलां. कथावस्तु वाल्मीकी रामायणाक आधारून आसा. हें काव्य केरळाचे कोंकणी साहित्याची एक अनमोल निधि आसा.

कवयत्रीक हें काव्य रचूक प्रेरणा स्वंय सून मेळी, काव्याचे प्रारंभार कवयत्री स्वयं उडगास करता :

श्री रघुरामायण केल्यारि पठन
मुक्तिदायक विद्या संपत्त वर्धन
विद्यागुण संपन्न तातनियोगान
रामायणाचे कथन केल्ले कोमळान

व्हय, आपणाले बापसूले प्रेरणान कोमळान रामायणाचें कवन केल्लां, अशी कवयत्री स्वयं सागंता. केरळी भास आनी साहित्याचो प्रभाव हें काव्यांत दृष्टि पडता, तें सहज.

मलयाळम लिपींत दोन भागानी रचल्लें हें काव्य क्रिस्तांव वर्स 1981 त केरळाचे कोंकणी अकादमीन नागरींत लिप्यान्तरण करन प्रकाशन केला. कारण कोंकणीची सहज लिपी नागरीच आनी दूसरे कोंकण देशान्त रावचे कोंकणी साहित्य प्रेम्यांक केरळांतलें कोंकणी साहित्य रुचीन अनुभसुक जातलें देकून.

अशी केरळांतलें कोंकणींत महाकाव्य, कथात्मक काव्य आनी घटना प्रधान काव्य अशी काव्याचें पुष्कळ साहित्य आसा.

*('केरळांतलें कोंकणी साहित्य - एक परिचर्चा', 1993 - पान 85)*

* * * * *

# Smt. G. Kamalammal

Smt. G. Kamalammal was born as a daughther of Sri. Govinda Shenoy of Nedumpalli Madhom, Kavumbhagom, Tiruvalla, on 25th February 1902. Her mother Smt. Sathyabhama belonged to Karunagappally. Kamalammal's primary education started at the age of 5 and her school life come to an end when she was 11. According to the then prevalent custom, she was given in marriage to Sri. Subbaraya Pai of Ambalapuzha. He was employed in the Magistrate's Court.

Kamalammal was given many classic works for reading by her affectionate father. She was very much impressed by the noble characters in the great epics. Her acquaintance with the classic works in Malayalam language sowed literary talents in her. She wrote a book in Malayalam, "Suseelan" by name, and it was printed by her father.

Sarawata Mitram and Saraswata Bodhini, the two periodicals of those times, influenced her immensely. While going through the Konkani


Subbaraya Paai


G. Kamalammal

work ‘Venkatesha Kalyan’ she thought of writing something similar. Accordingly she wrote “Balakandam” in Konkani the first chapter of ‘Raghu Ramayan’. Sri A. Rama Pai, M.A.B.L., the then Govt. Pleader of the Travancore State, went through the work, appreciated her endeavour very much, and graced the book with a befitting introduction when it was published in 1930 in Malayalam script.

Her subsequent Konkani work was ‘Patracharitam’ which was welcomed by all. Thus she was determined to complete her Ramayana, and this she did when she was 38. However, it could not be brought out in book form due to many hindrances. The waves of the Second World war disturbed that period. Compositers in the Malayalam printing presses found it difficult to work on a Konkani book as they did not know the language. Thus its publication kept on getting postponed. Her another Konkani work is a poem for children, ‘Doni Mitram.’

She lost her husband in 1962 and her elder daughter in 1976. She was honoured by the All India Konkani Sahitya Parishad at its 12th session held at Cochin, in 1978. She breathed her last in 1983.

## एक्कावो अध्यायु

# पुत्रकामेष्टि

01. श्री वेणुगोपबाला श्री हरि गोविंदा
श्री वत्सभूषा विष्णो लक्ष्मी भूमिकांता
श्री पद्मनाभदेवा इन्द्रादि वन्दिता
श्रीपादांबुज तुग्गेले संततं नमामि ।।

02. प्रक्काट्ट महाक्षेत्रांतु वासु केल्ले तुम्मि
ताज्जे समीपदेशे वासु करतायि आम्मि
तुग्गेले चरण नित्य सेवा करतायि आम्मि
आमचेरि दया पावनु रक्षण कोरका स्वामि ।।

03. वाल्मीकि वेदव्यास महर्षीश्वरांकयि
ब्रह्मा महेश्वर इन्द्रादि देवांकयि
रुद्राणि सरस्वति लक्ष्मी भगवति
विघ्न विनायकांकयि संततं नमामि ।।

04. सद्गुरु वेदव्यास शिष्यांतु उत्तमु
काशीमठाधिपति स्वामियांतु प्रधानु
सुकृतीन्द्रतीर्थ स्वामि गुरूले चरण
भक्तीन करतायि आम्मि मनसा पूजन ।।

05. श्री पद्मनाभ ! तुग्गेले चरित्र वर्णन
भक्ति तुज्जेरि जांवचा लोकांतु प्रधान
इहलोकाक दुःख संताप नाशन
पुत्र मित्र कळत्र संपत्त वर्धन ।।

06. वेदोद्धारण कोरुक जाल्लो तूं मत्स्य रूपि
क्षीरांबुधि मथ़न कोरचे ते वेळारि
मन्दरोद्धारण कोरू जाल्लो कूर्म रूपि
भूमि उद्धारण कोरूक वाराहस्वरूपि ।।

07. हिरण्यकशिपाक संहार कोरनु
प्रह्लादभक्ता रक्षेक नरसिंह रूपि
इन्द्रादि देवां जाल्लेले संक्ष्टकारण
बलीध्वंसन कोरूक जाल्लो वामनरूपि ।।

08. क्षत्रियवीरां नाशु कोरूक भार्गवरामु
रावणा नाशु कोरू जाल्लो रघुरामु
कंसादि दुष्टां नाशु कोरूक गोविन्दु
यादव वंशां येवनु जाल्लो वासुदेवु ।।

09. बुद्ध कल्की अवतारु ये कलियुगांतु
जावनु प्रळयकाला नाशु सर्वै कोरनु
जलाशयांतु वटपत्राचेरि पोणु
निद्रा करतले बालस्वरूपं नमामि ।।

10. रामनामोच्चारण सायाह्न कालारि
देवहृषि ब्राह्मण स्मरण करतायि
श्रीरामदेवा पादपंकजं नमामि
श्रीरामदेवदूतं मनसा स्मरामि ।।

11. पुर्वकालाक जाल्लो कोसलदेशांतु
सूर्यवंशाचो रायु अयोध्यानगरांतु
सूर्यप्रभाकांतीन दशरथुराजेन्द्रु
इन्द्रसमान वासु कोरनु राबतोलो जाल्लो ।।

12. विष्णु भक्तांतु मुख्य दशरथुराजेन्द्रु
दानधर्म कृत्यान भुवन प्रसिद्धु
अस्त्र-शस्त्र विद्येन जगत्रय वीरु
रूपकांतीन कामदेवाक समानु ।।

13. कौसल्या कैकेयि सुमित्रा इत्यादि
नारीरत्नांक ताणे पाणिग्रहण केल्लें
पद्मसंभव पुत्रगुरु कारुण्यान
नीति धर्मान राज्यपालन कोरतोलो जाल्लो ।।

14. कौसल्यादेवि मुख्यवल्लभा समेत
सूर्यवंशांतु वीरु दशरथुराजेन्द्रु
इन्द्रादि देवां युद्धासहायु कोरनु
अयोध्यानगरां वासु कोरनु राबतलो जाल्लो ।।

15. दशरथराजेन्द्राले भरण कालाक
दुःख दारिद्र्य कष्ट रज्जा नात्तीले जाल्ले
राज्यवासी जनांचे मन्न संतोषलें
राजभक्ती विश्वासु सर्वै जनांक जाल्लो ।।

16. पुत्रसंतति नात्तीलें कारण पासूनु
धरणिपालका अति संतापलें मन्न
वसिष्ठगुरूलाग्गी अतिपरितापान
दशरथराजेन्द्रान सांगीलें कारण ।।

17. राजवचन आयकूनु गुरु ते वेळारि
पुत्रकामेष्टि यागु कोरका म्हणतोलो जाल्लो
ब्राह्मण ऋषेश्वर सर्वै ते वेळा पावले
ऋष्यश्रृंगाक हाणु यागु करतले जाल्ले ।।

18. वसिष्ठ भारद्वाज महर्षीश्वरानि
मंत्रोच्चारण केल्ले सांगीले प्रमाणी
मंत्रशक्तीन ते वेळा यागु जाल्लो व्होडु
अग्निकुंडातु थाकूनु आयलो अग्निदेवु ।।

19. अग्नितुल्य प्रकाशान हात्तांतु धर्शिल्ले
अग्निदेवान क्षीरपायस भाजन
राजेन्द्रा हात्तां अग्निदेवु दित्तोलो जाल्लो
यागकुंडांतु अग्नि अंतर्धान जाल्लो ।।

20. ऋष्यश्रृंगाले कल्पनेन राजेन्द्रान
कौसल्यादेवीक भागु कोरुं दित्तोलो जाल्लो
कैकेयीदेवीक भागु दिल्लो त्या उपरि
पायसपात्र अग्नि अंतर्धान जाल्ले ।।

21. दशरथराजाक ते वेळा अंतस्तापु जाल्लो
कौसल्या कैकेयी दोग्गयि ते वेळारि
कार्य निवृत्ति आम्मी कोरुं म्हणतलीं जाल्लीं
सुमित्रादेवी लाग्गि अति संतोषु पावलीं ।।

22. कौसल्या कैकेयि दोग्गयि मेळवूनी
सुमित्रादेवी लाग्गि संतोष भरितान
अर्धांशु भागु दोग्गै जाणांनी तिक्का दिल्लो
देक्कूनु दशरथाचें मन्नां संतोषु जाल्लो ।।

23. तेग्गै जाणांनी केल्लें पायस भोजन
वज्रखचित केल्लेलें स्वर्ण विभूषण
गोवत्स स्वर्णपात्र वस्त्र नवधान्य
विप्रश्रेष्ठांक दान केल्लें राजेन्द्रान ।।

24. यागु संपूर्ण जाल्लो शोभेन त्या वेरि ;
गर्भु उत्पन्नु जाल्लो राणियां ते वेळारि
विप्र भोजन केल्ले राजान त्या उपरि
ब्राह्मण ऋषेश्वर सर्वै ते कालारि ।।

25. दशरथराजालाग्गि संतोष वचनान
यात्रा सांगूनु ते वेळा गेल्ले निजस्थानी
दशरथराजेन्द्रान अति संतोषान
गर्भकालाक कोरचें कृत्य सर्वै केल्लें ।।

26. सीमंत पुंसवन सर्वै ते कालारि
धरणीपालान ते वेळा केल्लें त्या उपरि
गर्भरक्षेक देवापूजन कोरतोलो जाल्लो
असंख्य रत्न विप्रां दान दित्तोलो जाल्लो ।।

27. श्रीहरी जगन्नाथा श्रीदेवीरमणा
श्रीवत्स पीतांबर कुंडल भूषणा
श्रीवासांबुजदळ सन्निभलोचना
वैकुंठपुरवासा स्वामी श्रीवैकुंठा ।।

**एक्कावो अध्यायु समाप्त**

## दुसरो अध्यायु

# श्रीरामावतारु

01. मित्रवंश कुलोद्भव दशरथराजान
पुत्रकामेष्टि यागु केल्ले त्या उपरि
राजगुरुकै अति संतोषलें मन्न
राजप्रियांक गर्भु जाल्लो संपूर्ण ।।

02. राजराजेन्द्रु ते वेळा अतिसंतोषान
विघ्न विनायकाक पूजन कोरतोलो जाल्लो
विघ्न निवारण कोरका म्होणु सांगतोलो जाल्लो
दुर्गा भगवतीकै सेवा कोरतोलो जाल्लो ।।

03. नक्षत्र पुनवर्सु चित्तिर मासांतु
तिथि नवमि जाल्लेले मध्याह्न दिवसांतु
इन्द्रपुरी समान अयोध्यानगरांतु
कौसल्यादेवि महावेदना पावंतलि जाल्लि ।।

04. अर्कचन्द्रादिग्रह सर्वै ते वेळारि
पिषा नात्तिले त्याशि शुभस्थानाचेरि
पंकजासन कल्पनेन ते वेळारि
स्थिति करतले जाल्ले सर्वै ते कालारि ।।

